# वागमामाची फजिती






जयंती नायक

# वागमामाची कजिती




जयंती नायक



जैत प्रकाशन

* वागमामाची फजिती
(नाटकुलें)

* प्रकाशन क्र. : १०

* पयली आवृत्ती २००१

* जयंती नायक
अमोणें, केपें, गोंय-४०३ ७०५
फोन - ६६२४२२

* छापपी :
सह्याद्रि ऑफसेट सिस्टम, कोरली, गोंय

* मुख चित्र आनी रेखाचित्रां :
आनंद कवळणकर




* प्रकाशक :
जैत प्रकाशन
३३६/१, खोर्ली, इल्याश, गोंय-४०३ ११०
फोन : २८४३७

* मोल रु. १८/-

ISBN81-86487-00X

**सवंगां :**

आटूल

पेटूल

वागमाम

**देखाव -१**

थळ : आटला-पेटलाचें घर

वेळ : फांतोड

(पट्टो उगडटा तेन्ना आटूलपेटूल ह्यो दोग भयणी हांथुणार न्हिदिल्ल्यो आसतात. इतक्यांत कोंबो साद घालता. कोंब्याचो साद आयकून आटूल जागें जाता आनी पेटलाक उठयता.)

आटूल : ए ऽऽऽ पेटला, पेटला, उठ म्हुगो बेगींन! पळय भायर उजवाडलें!

पेटूल : (न्हिदांतच) राव गो मात्शें, आनी थोडो वेळ न्हिदतां.

आटूल : राव कितें? केदो व्हडलो दीस जालो पळय. कोंबो वदळ रडलो. कावळेय जागे जाले.

पेटूल : (फडफडीत जागें जावन) आं! कितें ? दीस जालो. आगे म्हजे बाये. अशी कशी न्हीद पडली म्हाका आज. सदां येदोळ म्हळयार आमी उठून घरांतलीं सगळीं कामां करून सोंपयतालीं न्ही गो ? आटला, तुवें तरी उठोवपाचें न्ही गो म्हाका.

आटूल : आगो, हांवय न्हिदूनच उरलें. आतांच जागें जाला आनी तुका उठयलां.

पेटूल : आटला, चल तर आमी बेगीबेगीन उठून कामाक लागया.

आटूल : हय तर. आज खूबऽ कामां आसात आमकां करपाचीं.

पेटूल : सगळयांत पयलीं घरांत सान्न मारूंक जाय, मागीर न्हंयचेर वचून उदक हाडूंक जाय. रांदूंक जाय.

आटूल : हय. आनी पेटला, आमकां गोकुळमावशेक उदक हाडून दिवंक नाका तर?

पेटूल : जाय तर. आनी तो लंगडो बाप्पा दुवेंत आसा, ताकाय इल्लो कसांय करून व्हरून दिवंक जाय. भोंगूं बाबड्याचें! कोण ना ताका!

आटूल : बाबड्याच्यान चलपाकय जायना.

पेटूल : आनी आटला, आज सदचे परस रानांतल्यान आमकां चड लाकडां हाडूंक जाय, याद आसा म्हुगो तुका?

आटूल : कित्याक गो?

पेटूल : आगो, फाल्यां सान्नां करपाचें आमी थारायिल्लें तें विसल्लें तूं! काल आमी बाजारांतल्यान तांदूळ, गोड, उडदांदाळ बी हाडल्या ताची याद ना गो तुका?

आटूल : आं! हय! हय! सान्नां करूंक जाय न्ही आमकां फाल्या! आज आमी खूब्ब लाकडां हाडया हां रानांतल्यान आनी फाल्यां खूब्ब सान्नां उकडया चून्न घालून! आनी पोट्टभर खावया! (दोगांय हांसतात)

आटूल : चल या तर आमी, बेगीबेगीन कामाक लागया!

**पद :**

आटला गो पेटला
सान्न मारुंया





सोयरो कोणूय येत तर
बसपाक घालुंया.
आटला गो पेटला
चूल पेटोवंया
दारांत कोणय येत तर
आदनांत घालुंया.

(पड्डो पडटा.)

## देखाव २

थळ : रान.

वेळ : सांजवेळ.

(पड्डो उगडटा तेन्ना आटूल-पेटूल लाकडां कापतात. इतक्यांत वागमाम थंय पावता पूण आटलापेटलाचें ताचेर लक्ष वचना.)

वागमाम : कोण थंय लाकडां मारतात? हें वागमामाचें रान म्हुणून खबर ना दिसता? राव बरीच बुध्द शिकयता तुमकां! खावनच वडयता एक एकट्याक! (आपल्याच मर्दीं)

आं कोण ? आटूल-पेटूल? बरें जालें तर! कितक्या तेंपान इतक्या रुपेस्त आनी गुणेस्त भयणींचें मांस म्हाका खावपाक मेळटलें! वा! वा! बरें रुचीन पोटभर मांस खातलों आज हांव! (चिंतता) हय, पूण बोवाळ करून उपकारना. म्हजो आवाज आयकल्यार तीं पळून वतलीं. हांव गुपचूप त्या झिलींनी वचून लिपून रावतां आनी आटूल-पेटूल लागीं पावलीं, तशीं तांकां खातां!

(वागमाम लिपता. लाकडां कापत कापत दोगीय भयणी वागमामाच्या लागीं पावतात.)

आदूल : पेटला, ह्या रानांत काय बरीं लाकडां आसात न्ही?

पेटूल : हय. बरीं सुकींच!

आदूल : आमगेलीं साम्नां बरीं उकडटलीं न्ही ?

पेटूल : हय तर, बरीं गुबगुबीत जातलीं ! ए आटला, आमी लाकडां व्हरूंक सद्दां ह्याच रानांत येवया हां.

वागमाम : (आपल्याच भितर) बरीं खंय सद्दां लाकडां व्हरपाक ह्या रानांत येतलीं ! बाबड्यांक खबर ना, आज हांव तांकां खातलों म्हुणून!

आदूल : नाका गो बाये पेटला, ह्या रानांत खंय एक वागमाम रावता. ताणें पळयल्यार, तो आमकां खातलो!

वागमाम : (आपल्याच भितर) खातलो कितें ? खावपाचोच आसा तुमकां हांव आतां!

पेटूल : ए आटला, हे थंय पळय, काय बरी ताळकिळ्याची भाजी जाल्या ती ! आमी खुंटया चल!

आदूल : नाका गो, पयलींच आमकां वेळ जाला. ती भाजी खुंटूंक गेल्यार आमकां घरा वचपाक रात जातली.....

पेटूल : काय जायना गो रात, चल आमी भाजी खुंटया.

आटूल : नाका गो बाये. पळय तिळसांज जावपाक आयल्या ती. आमी आनी लाकडां बुसून मारनये. एकठांय केल्यांत तींच लाकडां घेवया आनी घरा पळ मारया. त्या वागमामाचें घर आसा हांगा लागीं ! तिळसांज जाली तसो तो आपल्या घरांत येता खंय!



वागमाम : (आपल्याच मदीं) येता कितें ? आयलाच हांव !

पेटूल : कांय भियेनाका गो तूं आटला, वागमाम आयल्यार आमी पळून वचुंया. चल या आतां, खुंटया भाजी.

**पद**

आटला गो पेटला
भाजी खुंटुया
वागमाम येत तर
काय करुंया.

आटला गो पेटला
भाजी खुंटुया
वागमाम येत तर
पळून वचुंया.

वागमाम : पळून वतलीं खंय! हांव बरो हांकां पळून वचूं दितां ?

पेटूल : आटला, बरी मेळ्ळी भाजी न्ही? आज रातचीं आमी बरी करून खावया हा !

आटूल : पूण पेटला, आतां आनीक लाकडां मारया तर आमी?

पेटूल : हय तर. खूब्ब साङ्गां उकडटलीं जाल्यार आमकां खूब्ब लाकडां जाय !

आदूल : पूण काळोख जाला म्हुगो. वागमाम येत जाल्यार ?

पेटूल : वागमाम येत जाल्यार...... ताका हांव अस्सो ऽऽ हे कोयतेन कापून वडयतां ! तूं कित्या भिला गो ?

**पद :**

आटला गो पेटला
लाकडां मारुंया
वागमाम येत तर
कोयतेन कापुंया.

वागमाम : म्हाका कोयतेन कापतात खंय? राव तुमकां दोगांय भयणींक एक्काच घासाक खातां हांव ! ए ऽऽ कोण गो थंय म्हज्या रानांतलीं लाकडां मारतात ! राव, एक एकट्याक जितेंच खातां हांव !

आटूल/पेटूलः आं ! कोण ? वागमाम ! आवय्स म्हजे !

वागमाम : म्हज्या रानांतली लाकडां मारतात ? आनी भाजी खुंट्टात? राव, हांव तुमकां खातां !

आदूल : नाका रे वागमाम, अशें करनाका ! आमची काळकूट कर म्हरे !

पेटूल : आमी धाकलीं भुरग्यां म्हरे वागमाम. आमकां खावन तुका कितें मेळटलें ? फकत इल्लेशें मांस. त्यापरस आमकां जितीं सोडल्यार आमी तुका बरीं ऽऽ सान्नां उकडून खावपाक घालतात!

आदूल : बरीं हुनहुनीत! न्ही गो पेटला ?

पेटूल : हय बरींऽऽ चुन्नाचीं! गोडगोड!

वागमाम : खरें म्हुगो, फटयनात म्हुगो तुमी म्हाका ?

आदूल : ना रे वागमाम, तुका म्हुणून आमी फटयतात ?

पेटूल : आनी फटयलें जाल्यार तूं आमकां दवरता?

वागमाम : तशें जाल्यार हांव तुमकां सोडटां ! आतां तुमी जाय तीं लाकडां घेवन घरा वचात, आनी फाल्यां बरीं ऽ सान्नां उकडून घेवन हांगा येयात !

आदूल/पेटूलः बरें! बरें वागमाम ! देव बरें करूं तुका !



**पद :**

आटला गो पेटला
सान्नां उकडया
वागमामाक हाडून
तीं खावंक घालुया.

(पड्डो पडटा)

## देखाव - ३

थळ : आटला-पेटलाचें घर.

वेळ : दुसऱ्या दिसाची रात.

*(पड्डो उगडटा तेन्ना आटूल-पेटूल आपल्या घरांत हांथुणार बसून खबऱ्यो करतात.)*

आटूल : पेटला, आमी वागमामाक बरीं तीन पानां केली न्ही? बाबडो आमी सान्नां घेवन येतलीं म्हुणून वाट पळयत आसतलो!

पेटूल : हय तर. वाट पळोवन पळोवन आमकां खावूं काय गिळूं अशें जालां आसतलें ताका.

आटूल : पूण पेटला, वागमाम आमकां सोदीत हांगा आयल्यार कितें करपाचें ? आमी तर सगळीं सान्नां खावन सोंपयलीं!

पेटूल : (हांसत) हॅऽऽ हॅऽऽ हॅऽऽ सामकेंच पिशें म्हुगो तूं आटला! इतक्या रातचो वागमाम हांगा कसो येतलो? तो वाजेवन न्हिदला आसतलो आपल्या धोलींत. पूण जर आयलोच तर आमी लिपून बसया.

पद :

आटला गो पेटला
काय करुंया.
वागमाम येत तर
लिपून बसुंया.




पेटूल : कळ्ळें म्हुगो आटला, आतां आमी दोगांय बरीं न्हिदया!

आटूल : हय. हय, न्हिदयां.

(दोगांय न्हिदतात. घोरेवण्यो काडटात.)

(कांय वेळान भायल्यान वागमामाचो मोठ-मोठ्यान आड्डुवपाचो आवाज येता.)

वागमाम : खंय आसात गो तीं आटूलपेटूल? सान्नां घेवन येतात म्हण म्हाका फटयतात! आब्बा ! आर्र ऽ तूं ! बऱ्यान पयलीं सान्नां घेवन येयात भायर, नाजाल्यार तुमकां खातां!

आटूल : (भिवन) पेटला, वागमाम आयलो म्हुगो, आतां कितें करपाचें? म्हाका बाये भंय दिसता!

पेटूल : म्हजीय म्हातारी कुळकुळी म्हुगो!

आटूल : आतां वागमाम आमकां कसोच सोडना!

पेटूल : आटला, आमी दोगांयनीय खंयतरी लिपया.

आटूल : पूण खंय लिपपाचें गो?

पेटूल : तूं लीप भाणांत! हांव लिपतां वानांत!

आटूल : चल तर लिपया बेगीन! वागमाम चौकेर पावलो! (लिपतात)

वागमाम : (भितर येत) आटलाऽऽ! ए पेटलाऽऽ! खंय गो तीं?

**पद :**

आटला गो पेटला
खंय गेल्यांत गो,
सान्नां घेवन येयात गो,
नाजाल्यार तुमकां खातां गो.

आटूल : (हळूच) ए पेटला, म्हाका धेंकर येता म्हुगो सान्नांचो. इतकीं सान्नां खाल्लीं तीं गळ्याकडेन आवाज करतात म्हुगो! कितें करूं गो ?

पेटूल : (भियेल्या आवाजात) धेंकर येता ? आगे म्हजे बाये! दांबून धर मात्सो! वागमामान आयकल्यार ताका तूं

खंय आसा तें कळटलें!

आटूल : दांबून उरना म्हुगो पेटला, सामको गळयाकडेन पावला!

वागमाम : ए ऽऽ आटला, ए ऽऽ पेटला, खंय लिपल्यांत गो तीं? सरात भायर पयलीं!

आटूल : पेटला, आयलो गो धेंकर! आयलो पळय....

(व्हडल्यान धेंकर काडटा).

वागमाम : (भिवन) आंऽऽ? कसलो आवाज हो येदो व्हडलो? कोण आसा काय घरांत भितर? शेर्त! कोणूय पूण म्हज्याकूय व्हडलो रावता ह्या घरांत ! ताचोच आवाज हो...! हांव गेल्यार बरो हांगाचो ! नाजाल्यार बशिल्लेकडेन जीव व्हगडावचो पडटलो म्हाका. झक मारूं तीं सान्नां आनी तीं आटूल-पेटूल! वांचून उरल्यार हांव कितकींऽऽ सान्नां करून खांवू ! वतां हांव हांगाचो! (वागमाम वता. थोड्या वेळान पेटूल वानांतलें भायर सरता.)



पेटूल : आटलाऽऽ, एऽऽआटला! सर बेगीन भायर भाणांतलें! वागमाम गेलो पळय पळून !

आटूल : खऱ्यांनी गेलो ? (उमेदीन हांसत भाणांतलें भायर सरता).

पेटूल : हय तर.. तुका धेंकर आयलो म्हुगो, आनी भाणांत आशिल्ल्यान ताचो व्हडलो आवाज जालो! वागमामाक दिसलें, कोणतरी आपल्याच्याकय व्हडलो ह्या घरांत रावता म्हुणून. ताणें भंयान शेपडी तायट करून रानांत धांव मारली!

आदूल : बरी मजा जाली न्ही? (हांसता)

पेदूल : हय तर! (ताळ्यो पेटीत हांसता)

आदूल : पूण पेटला, हे फुडें आमी त्या रानांत मात लाकडां हाडपाक वच्चें न्हय हां!

पेदूल : नाका गो बाये, हे फुडें तें रान आनी तो वागमाम! आमकां आमचो गांवच बरो !

**(पद)**

आटला गो पेटला.
गांवांत रावुंया
गांवची सेवा करून आमी
खोशी जावुंया.

(पड्डो पडटा. नाटकुलें सोंपता.)

•••

